# अडेचो वेगळोचार

रजनी अशोक भेंब्रे




ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन

अडेचो वेगळोचार (नाटकुलें)

-- रजनी अशोक भेंब्रे

प्रकाशन क्र. ४३



पयली उजवाडावणी : २००४

उजवाडावपी :
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय.

छापपी :
नवादित्य पॅकेजिंग्स्,
माशेल, गोंय.

अक्षरजुळणी :
गिरीश भि. मयेकार

मुखचित्र :
अमोल पागी

मोल - १५/- रुपया

Adecho Veglochar (Drama)

-- Rajani Ashok Bhembre

Publication No. 43



First Publication : 2004

**Publishers :**
Milind Kamlakar Mhalshi
Om Shri Datt,
Shristhal, Canacona, Goa.

**Printer :**
Navaditya Packagings,
Mashel, Goa.

**TYPESETTING :**
Girish B. Mayekar

**Cover :**
Amol Pagi

**Price : Rs. 15 /-**



गोंय सरकाराच्या " बालक वर्स "(2003) येवजणेखाला गोवा कोंकणी
अकादेमीक मेळिल्ल्या खास अनुदानांतल्यान
हें पुस्तक 50% अर्थीक पालवांतल्यान छापलां.

घरांत शिक्षणाची परंपरा नासतनाय
इत्साशक्तीच्या आनी कलागुणांच्या बळग्याचेर
नांव - गांव व्हड करपाक सोदपी
माणकुल्यांक.

— रजनीताई —

# अडेचो वेगळोचार

(नाटकुलें)

| पात्रां | | पिराय |
|---|---|---|
| बापूय | -- | ४० वर्सां |
| आवय | -- | ३५ वर्सां |
| पंगूराज | -- | १२ वर्सां |
| नितीन | -- | १२ वर्सां |
| सलीम | -- | १२ वर्सां |
| कायतान | -- | १२ वर्सां |
| टिचर | -- | ३० वर्सां |

( पयलो देखाव )

(खोप. आशी कुशीक कोंडे पडिल्ले आसात. पंगूराजाली आवय आनी बापूय बसून कोंडे तासतात. अवतिकाय सामखी गरीब आनी काकळूटवाणी. थंयच लागींच पंगूराज उरिल्ल्या कोंड्यां कुडक्यांपसून वेगळीच वस्त तयार करपाक गुल्ल आसा.)

बापूय - पंगू, ए. . .पंग्या. . .(व्हडान) आरे तुका उलो करता तो आयकूंक येना?

पंगूराज - आं . . . आं . . . ओ -- ओ . . .

बापूय - आं . . . आं . . . कितें करता? व्हदोळच्यान हांव उलो मारतां तुका.

पंगूराज - ना . . . बाबा . . . आयकूं ना हांवें. ख-यांनीच आयकूंना.

बापूय - आयकूंना खंय. . .(रागान) काय सवंग करता रे?

पंगूराज - ख-यांनीच आयकूं ना हांवें, बाबा, ख-यांनीच आयकूंना.

आवय - ताणें ख-यांनीच आयकूं ना खंय. सांगता न्ही तो ऽऽऽ

बापूय - तूं आनी ताची पार्त घेनाका. (रागान) सदांच पळयतां, हांवें कितेंय म्हळें कीं तूं ताची पार्त घेता.

आवय - आतां जालें? मात्सो ओगी राव पळोवया.

पंगूराज - बाबा, . . . कित्याक उलो केल्लो म्हाका?

बापूय - हें . . . तें. . . तूं. . . करता तें कितें? चार दीस जाले हांव पळयतां. रिकामो वेळ मेळ्ळो रे मेळ्ळो बसलो घेवून . . . हें तें गिरमीट . . . नाका आशिल्लो वावर. . .

पंगूराज - बाबा, . . . हो नाका आशिल्लो वावर न्ही . . . .

बापूय - न्ही . . . तर कितें? . . . आयताराचो बाजार तेंकलो. सांतानाक वीस खोंटले आनी धा विल्लीं दिवपाक जाय. म्हाका हात बोट घालपाचें सोडून दीसयभर हें . . . हें . . . कितें करता तूं? बाबाक धा हात आसात रे?

पंगूराज - (भित-भित)बाबा . . . बाबा . . . प्रदर्शन आसा. . .

बापूय - कितें . . . कितें. . . आसा? कसलें दर्शन . . . आसा?

पंगूराज - दर्शन न्ही बाबा . . . हस्तकला प्रदर्शन आसा. . . रघूसरान म्हाका म्हजे आवडीची एक बरी कलाकृति करून हाड म्हणल्या.

बापूय - तूं. . . तूं. . . कितें सांगता तें म्हाका कांयच समजना . . . . (रागान) कोल्या कुती म्हणून कितें?

आवय - कित्याक तापयता तांका?

बापूय - (रागान)तूं ओगी राव थंय.

आवय - आमचो पंगू शाणो भुरगो. तो कित्याक कितें करचो ना . . . . . सरान सांगला म्हणून करता खंय तो ऽऽऽ.

बापूय - (चाळयत) कित्याय कितें करचो ना खंय. आनी-आनी हें. . . तो करता तें कितें? (रागान) ताचो पाखो घेता ती! सरान सांगलां खंय सरान. (बडबडटा).

आवय - पंगू इश्कोलाक वता न्ही? सरांनी सांगलें म्हणटकच करचें पडटा.

बापूय - तेंच-तेंच नाका जालां म्हाका. इश्कोलाक वचून आमचें पोट भरपाचें आसा गे? सांग म्हाका! आमचो धंदो हो असो.

आवय - हें . . . हें . . . नाका जाल्लें कितें उलयता? आमी हीं अशीं अडाणी. . . आमचो पंगू तरी शिकून व्हड मनीस जावूं दी. कितली आस बाळगिल्या हांवें, पंगूची.

पंगूराज - बाबा. . . बाबा. . .

बापूय - तूं मदीं तोंड घालनाका. एक तर सगले खोटले आनी विल्लीं करपाक हांवेंच मरू जाय आनी पोटांय भरू जाय तुमचीं. चलूं लाग हांगासल्लो. (पंगूराज भियेत भितर वता.)

आवय - (रागानच) हांव करना तुमकां आदार?

बापूय - (रागान) केल्यार कितें जालें? करपाचोच. पूताक शिकोवन आफिसर करपाचो आसा न्ही तुका?

आवय - ख-यांनीच साखर पडूं तुज्या तोंडात.

बापूय - साखर पडटली काय - - - - - - - - - ? उलयना हांव. (वाजेता.)

आवय - आमचो पंगू व्हड कलाकार जातलो अशें म्हाका रघू सर सांगतालो. (खुशालभरीत जाता.)

बापूय - रघू सर तुका खंय मेळ्ळो गे? (वाजेता.)

आवय - गेल्ल्या आयताराक बाजारांत दिसलो. मुद्दाम म्ह-यांत आयलो आनी सांगूं लागलो. (आपल्याच विचारांत गुल्ल) तुजो पंगूराज गुणेस्त भुरगो. ताच्या आंगांत ब-यो - ब-यो कला असात.

बापूय - ख-यांनीच अशें म्हणलें सरान? अशें म्हणलें? (मुमुरखो हांसता.)

आवय - आनी सांगलें, पंगूराजाक फाटीं वोडूं नाकात. ताका फुडें - फुडें वचूं दी. तुमी खोंटले, सुपां, मांद-यो, विल्लीं, कुरपणीं बी करतात तीं करीत रावात. तुमचो धंदो तुमी करात. ताका वेगळेतरेन करू दी.

वापूय - हें आनी रघूसरान सांगूं जाय? आमचो धंदो आमी करतातच, ना जाल्यार आमकां पोटाक कोण दितलो?

आवय - आयक रे दादल्या. . . फुडें. . . फुडें उलयता. . . म्हाका सांगूंकच दिना. . . सदांच तशें तुजें. . . . (वाजेता.)

बापूय - आं. . . सांग. . . आनी कितें सांगलें? रागार कित्याक जाता गे? सांग- सांग आनी कितें सांगलें? (उमळशिकेन)

आवय - आयक तर. पंगूच्या आंगांत खंय अशी कला आसा की ती कलाच ताका व्हड मनीस करतली. ताचीं बोटांच खंय सांगतात. हय, सर सांगतालो अशें (आनंदीत जाता.)

बापूय - म्हणल्यार गे? हांव समजूं ना. बोटां आनी व्हड मनीस!!

आवय - म्हाकाय समजलें ना. . . हय. . . म्हाकाय समजलें ना. . . . पूण पंगू स्कूलांत वता न्ही. . . म्हणटकच ताका खंय स्कुलाचे वतीन खंय-खंय धाडपाचे आसात. सर आनी खूब-खूब कितें सांगतालो. मागीर खंय आमकां बरे दीस येतले . . . हें-हें मात समजलें म्हाका. . .

बापूय - पूण पंगूले आवय, म्हाका सांग. आतां आमी त्रास काडपाचे मगे? पंगून जर आमच्या कामांत हातभार लायिल्लो जाल्यार . . . म्हणून म्हाका राग येता ताचो. (उबगता.)

आवय - पळय, रघू सर सांगतालो . . . आतां खंय तरेकवार कोंडे वा लाकूड आनी अशेंच कित्या कित्याच्यो वस्तू तयार करून खंय एक दर्शन. . . दर्शन, हय हय अशेंच कितें आसा खंय. थंय खंय आमचो पंगू एक वस्त तयार करून व्हरतलो . . .

बापूय - ह्या दिसांनी तो तेंच करता दिसता. . . व्हदोळय तो तेंच सांगतालो. . . म्हाका तो कितें सांगता तेंच कळना जालें!!!

आवय - सराक खात्रीच आसा खंय आमच्या पंगूक इनाम फावतलेंच म्हणून, इतली बरी कला आसा खंय ताच्यांत.

बापूय - खऱ्यांनीच . . . आमच्या पंगूक इनाम फावतलें? (उमेद जाता)

आवय - पळय, पळय आतां कसो फुलता! तूं ताका ओगीच उलयता. तरी पंगू आमचो हेर भुरग्यांवरी जापो सांगना. आरत्याक परतें उलयना.

बापूय - हय खऱ्यांनीच, खऱ्यांनीच कितेंय म्हण, ओगी मोन्यांनी आयकता. दीसभर हांवच ताका हिडीस-फिडीस करतां.

आवय - तूं म्हणटा हांव पंगूची पार्त घेतां. खरें सांगू? सरान पंगूचे कलेची तुस्त, तोखणाय करीत साकून म्हाका खूब खोस जाल्या. काळीज भरून आयलां. म्हाका दिसता, ताची कला पारखुपी मनीस पंगूक मेळ्ळा. आतां केन्ना ना केन्ना तरी आमचो पंगू कलाकार जातलो, व्हड मनीस जातलो. आमी अशींच गरीब उरचीं नात.

बापूय - आगे. . . . आगे. . . . इतली भुल्लूसूं नाका पयल्यान पयलीं.

आवय - हांव . . भुल्लूसूं ना. . . म्हजें मनच सांगता. आमकां जरी पंगूची कला पारखूंक आयली ना, तरी स्कूलांत गेल्ल्यान आमचो पंगू ब-याक पावलो.

बापूय - हें. . . हें. . . मात खरें तुजें. . . सामकें खरें . . . (धादोशी जाता.)

आवय - आतां एक लक्षांत दवर. . .

बापूय - कितें तें? सांग मिगे? कितें लक्षांत दवर म्हणटा?

आवय - पंगूक ओगीच तापयनाका. समजलें?

बापूय - ना गे. . . हांव ओगीच कित्याक तापयतलों?

आवय - आनी व्हदोळ तापयलें ना?

बापूय - तेन्ना सराली गजाल म्हाका खबर नासली. आतां आमच्यांनी जाता तसो ताका ताचे कलेची वाड जावपाक आदार करया. आपलो भुरगो व्हड मनीस जाल्लो खंयच्या आवय बापायक नाका? खरें मिगे?

आवय - आतां म्हाका बरें दिसलें. खूब बरें दिसलें. (आनंदीत जाता.)

बापूय - बरें दिसलें मिगे? आतां नेटान सांतानाले खोंटले आनी विल्लीं विणुंया. ना जाल्यार हातांत पयसो खंयचो येतलो? आनी पयसो आयलो ना जाल्यार . . . .?

आवय - ना. ना. . . तशें म्हणूं नाका. आमी मन लावून काम करया. . . खरेंच उपकार ते ताईचे. तिणेंच मुखार सरून पंगूचो तेर्म केलो आनी खटपट करून ताका शाळेंत घालो. . .

बापूय - ख-यांनीच . . . ताईगेर तूं कामाक वचनासली जाल्यार आमचो पंगू तिचे नदरेक पडचो नासलो. . . .

आवय - हें-हें तूं आतां उलयता . . . . तेन्ना पंगूक शाळेंत घालया म्हणल्यार आपल्या आदाराक कोण आसा म्हणून तापपी दादलो तूंच न्ही रे? आं...

बापूय - जाल्लें जावन गेलें. पूण ताई मात जिद्दीची बायल. आतां समजून आयलें. पंगूक घराच बसयल्लो जाल्यार ताका कोण वळखता आसल्लो?

आवय - म्हणून हांव फाटीक लागलीं. आमी चार अक्षरां शिकलीं ना. ताईच्या आदारान पंगू तरी शाळेंत पावल्या पावूं .....

बापूय - चल - चल . . आतां नेटान कामाक लागया. मन धादोशी जाल्यार कामाक सुध्दां नेट येता . . .

(पड्डो पडटा).

( दुसरो देखाव )

( स्कुलाची मदले सुट्येची घांट जाता. सगलीं भुरगीं खेळपाच्या मळार धांवतात. मळार विंगड-विंगड खेळ सुरू जातात. थोड्यो चलयो खबरी करतात. थोडीं खो-खो खेळटात, थोडीं लंगडी, थोडीं रिंगांनी. चल्यांचो एक ग्रुप क्रिकेट खेळपाक वांगड्यांची वाटणी करता)

नितीन - आयले रे सगले?

सलीम - हय रे नितीन. सगले आयले.

नितीन - आमी क्रिकेट खेळया मरे?

सलीम - हय रे क्रिकेटच खेळया.

कायतान - नितीन, हांवें मरे कालच क्लास सराक सांगून क्रिकेट खेळपाक, विकेटी, ग्लोव्ज, बॅट बी सगलें घेवन दवरलां.

नितीन - कायतान आतां खेळपाक सुरू करया मरे?

कायतान - हय रे, मागीर रोकडीच घांट जातली.

नितीन - चला चलात, कायतान, आनी एक गडी आसल्यार बरें जावपाचें.

सलीम - पंगूक घेवया. हो पळय, थंय उबो आसा पळय.

कायतान - (उलो मारता) पंगूराज, पंगूराज, तूं खेळूंक येता मरे?

पंगूराज - नितीन, सलीम, कायतान, ख-यांनींच तुमी म्हाका खेळूंक घेतले?

नितीन - म्हाका जाल्यार पंगू नाका हां . . . पयलीं सांगतां.

पंगूराज - नितीन, हांव काय बरो खेळटां !!! न्ही रे कायतान? ना जाल्यार सलीमाक लेगीत विचार.

नितीन - (चाळयत) काय बरो खेळटा खंय . . !!! तूं खोटलेकार मरे. तुजे बरोबर म्हणून आमी खेळप? हांव जाल्यार तुज्या वांगडा खेळचों ना. कायतान, जाय जाल्यार तूं खेळ. आनी सलीम, पंगूबरोबर तूंय वी खेळ. खोटलेकार म्हाका नाका.

कायतान - तशें जाल्यार ताका घेवंच नये. पंगू, चल तूं . . .

पंगूराज - सदांच तुमी म्हाका खेळूंक घेनात. खोटलेकार. . . खोटलेकार म्हणून हिणसायतात. कितलीं वर्सां जालीं हांव तुमचेबरोबर शिकतां. तुमी. . . म्हाका . . . केन्ना. . . केन्ना बरे करनात (रडटा.) हूं . .हूं. . हूं.

नितीन - चल पळोवया हांगाचो मातसो. आमी खेळ सुरू करपाक दिरत मदीं आयलो. पनवत खंयची! असोऽ म्हणून पेल्यान रावन पळयता, आपणाक घेतात काय म्हणून. (हासंत, वकच्छायेन) क्रिकेट खेळप म्हणल्यार कितें, खोंटले विणप रे? पोंगू - फोंगू - पोंगू - फोंगू (सगले हांसतात.)

पंगूराज - आजच एक दीस हांव खेळूंक येता तुमचे बरोबर. जावंरे, एकच दीस. सलीमा बरोबर हांव खूबदां खेळ्ळां. तुका जाय जाल्यार विचार. न्हीरे सलीम? (साऽरको लाळेता.)

नितीन - कायतान, सलीम, हाका मातसो धांवडावया पळोवया हांगाचो. कितलो वेळ खालो आमचो! खोटलेकाराक इश्कॉल बी कोणें सांगलां रे? .... पोंगू ओ पोंगू, पोंग्यारे . . . . तुवें मरे बापायवरोबर कोंडेच मारपाक वचपाचें. तुवें क्रिकेट खेळ्ळ्यार आमी कितें करपाचें? कोंडे मारपाचे? (व्हडा-व्हडान सगले हांसतात.)

कायतान - चल रे . . . वचना? (धुकळीत) चल-चल हांगसल्लो. पळय . . . फातर मारतलों . . . फातर लागतकच मागीर रडशी! वचना? . . . (फातर मारता.) हुर्यो, . . . हुर्यो . . . हुर्यो खोटलेकारा. खोटलेकारा, चल - चल-चल -चल, खोंटले विकपाक चल, चल, कोंडे मारपाक चल - चल. (सगले हांसतात, किटकिट्टात आनी पंगूराजा फाटल्यान लागतात.)

पंगूराज - (रडत - रडत, फातर चुकोवन) हांव वतां, वतां हांव, म्हाका मारूं नाकात. दुखतात रे फातर. आवयूस - आवयूस (वता.)

(पड्डो पडटा.)



( तिसरो देखाव )

( वर्गांत भुरगीं बसल्यांत. पंगूराज वेगळोच एकटोच बसला आनी आपल्या पुस्तकांत गुल्ल आसा. थोडीं भुरगीं चणे खातात, थोडीं वर्गांत खेळटात. नितीनाची नदर पंगूराजाचेर वता. तो आपल्या इश्टांक चिथायता आनी हळूच वचून पंगूराजालें पुस्तकच झोंवून घेता. पंगूराज आपलें पुस्तक मेळोवपाक तांचे फाटल्यान धांवता. पूण नितीन, कायतान, सलीम आनी अन्य वर्गांतले भुरगे पंगुराजालें पुस्तक घेवन पासिंग - पासिंग खेळ खेळटात. आनी पुस्तकाच्यो भोयो - भोयो, तिस्त्यो-तिस्त्यो करून वडयतात. तें पळोवन पंगूराज रडटा. इतल्यांत वर्गशिक्षक वर्गांत भितर सरता. वर्गांत खेळपी भुरगे आप-आपल्या जाग्यार बसतात आनी सराक बरो दीस दिवं, म्हणटात. पंगूराज मात दोळे चोळीत दुकां पुशीत आसता.)

टिचर - बसात, सगलीं बसात. आज हावें एक खोशयेची खवर हाडल्या. खासा आमच्या वर्गाक चडांत चड खोस दिवपी. आरे. . . . आरे पूण पंगूराजालें कितें जालां? पंगूराज . . . तूं रडटा?

नितीन - सर, सर, तो सदांच रडकुरो . . . तुमी ताचेकडेन लक्ष दिनाकात. ग्रांवडार लेगीत तो तसोच . . . न्ही रे कायतान?

कायतान - हय सर . . . तो तेसोच्य . . .

सलीम - आपल्याक खेळपाक घेना म्हणलो कीं लागलो रडपाक . . . ह्या पंग्याक आनी कोण घेतलां खेळपाक? ताणें फकत खोटलेच करपाचे. (सगलो वर्ग हांसता, हें पळोवन पंगूराजाक चड रडूंक येता.)

नितीन - सर, सर, त्यो पंग्याल्यो खवरी आसूं. तुमी कसली खोसदिणी खवर हाडल्या म्हणटाले?

टिचर - सांगतां मरे . . . सांगतां . यो पंगूराज, यो. असो यो. (पंगूराज दोळे पुसत पुसत सराम्ह-यांत वता.)

सलीम - सर, तुम्ही पंगूराजाकऽ शे आफयतात?

टिचर - पंगूराजाकऽ सो आफयता म्हणल्यार? पंगुराजाक फाल्यां शाळेचे वतीन ॲसेंब्लींत परवीं फावतलींच पूण वर्ग शिक्षक ह्या नात्यान आज सगल्यांत पयलीं हांव पंगूराजाक परवीं भेटयतां. (पंगूराज अजापान सराच्या तोंडाक पळयता. नितीन, कायतान, सलीम अजापान पंगूराजाक पळयतच उरतात.)

टिचर - तुमकां अजाप जालां न्ही? सर आनीक पंगूराजाक परवीं कित्याक दिता?

नितीन - हय सर, म्हाकाय अजापच! तुमी पंगूराजाक परवीं कित्याक दितात? सर, पंगून बरे खोंटले बी विणले काय कितें?
(सगले खो - खो करून हांसतात.)

टिचर - ओगी - ओगी वसात . . . (आवाज चडोवन तापयता.)
पंगूराज - सर . . . सर . . . (घुस्मट्टा.)
टिचर - (फाटीर हात भोंवडायत) कितें जालें पंगूराज?
पंगूराज - सर. . . सर (रडकुरो जाता.)
टिचर - सर. . . हे सगले म्हाका सदांच खोंटले - खोंटले म्हणून चाळयतात आनी . . . आनी सर (रडटा)
टिचर - तुवें केन्नाच सांगलें ना मरे?
कायतान - पंगूराज, तुमी खोंटले करून विकनात तर? (सगले हांसतात.)
पंगूराज - तुमी म्हणटात आनी हांसतात कित्याक? तुमी हांसले म्हणटकीच सगले चाळयतात. खोटलें करप होच आमचो धंदो. म्हजे आई-बाबा शिकूं नात, पूण खोंटले विकूनच आमी रेशन हाडटात. ना जाल्यार आमकां जेवपाक कोण दितलो? (रडटा.)
सलीम - तुमी खोंटले करतात आनी माथ्यार घेवन खोंटले - खोंटले करून भोंवतात म्हणून तुका आमी चाळयतात. न्ही रे कायतान?
पंगूराज - आनी तुका मटणवालो म्हणल्यार तूं मारपाक कित्याक येता तर. . .?
सलीम - हांव पळय हां तुकाऽऽऽ (रागान पंगूराजाच्या आंगार वता.)
टिचर - पळयलें मरे सलीम . . . आं . . . मटणवालो म्हणटकच तुका वायट दिसता. तशेंच दुस-याकय दिसता. हाची जण एकट्यान जाणीव दवरूंक जाय. पंगूराज तुमचो वर्ग इश्ट मरे?
कायतान - ना कोणें म्हणलां? . . . हावें तुका कितें म्हणलां रे?
टिचर - पंगूराजाचो जल्म गरिबींत जाला. ताचे आवय-बापूय कोंड्यां पसून खोंटले आनी तरेकतरां वस्तू - जांचो आमकां सदांच उपेग जाता - करून विकतात जाल्यार कितें जालें? सलीम, कायतान, नितीन तुमकां करूं येतात खोंटले?
नितीन - पूण तो गोंयांभायलो सर ऽऽऽऽ
टिचर - भायलो जाल्यार कितें जालें? भायलो म्हळ्यार मनीसच मरे तो? जाणां जायात. पंगूराजाले आंगांतले कलेनच आयज आमच्या इश्कॉलाचें नांव वयर सरलां. हांवें ताका कित्याक परवीं दिलीं, जाणात तुमी?
सलीम - ना . . . ना . . . सर. . .
टिचर - पंदरा दीस फाटीं तुमकां वर्गांत नोटिस आयिल्ली. जांकां कोणाक हस्तकला प्रदर्शनात वांटेकार जावचेलें आसा तांणी वर्ग - शिक्षकाकडेन नांवां दिवचीं.
कायतान - हय. . . हय सर . . . पूण आमी कोणेंच दिवूं नात. आमकां हस्तकलेचें कांयच कळना.

टिचर - तुमी कोणेंच नांवां दिलीं नात. पूण पंगूराज म्हजे म्ह-यांत आयलो. आपूण वांटेकार जातां म्हणूंक लागलो. आनी ताणें सगलें सारकें विचारून घेतलें. म्हाका ताणें विचारलें, आपणें उरिल्ल्या कोंड्यां पसून सोबीत बरी वस्तू केल्यार उपकरता? हांवें ताका जाता म्हणटकच पयलीं ताणें रफ करून दाखयली आनी हांवें पास करतकच ताणें ब-यांतली बरी कलाकृती हस्तकला प्रदर्शनांत दवरून राज्य पांवड्यावेलें पयलें इनाम हातासलें.

नितीन - (अजापान) खरेंच सर. . .? (एकामेकाच्या तोंडाक पळयतात.)

टिचर - तुमी पंगूराजाक खोंटलेकार-खोंटलेकार म्हणून चाळयत उरले. जाणां जायात, कला ही श्रेष्ठ आसता. ती कोणाच्याय आंगांत आसूं शकता. कलेक गरीब, श्रीमंत, जात-पात, धर्म भेद कांयच लागना.

कायतान - सर, पूण आपणें हस्तकला प्रदर्शनांत भाग घेतला म्हणून पंगूराजान आमकां सांगलेंच ना.

पंगूराज - तुमी म्हजेकडेन उलयतात तरी सारके? सदांच म्हाका पयस-पयस दवरतात. तुमी म्हाका सगल्यांमदीं खेळूंक दिनांत, मिसळूंक दिनात. (रडकुरो.)

नितीन - खरेंच रे. . . चुकलें आमचें . . . सर . . . चुकलें आमचें.

सलीम - आमी ताका सदांच खोंटलेकार, भायलो म्हणून चाळयत रावले.

कायतान - ताच्या आंगांत इतले बरे गूण आसात हें आमी केन्नाच नकळो आशिल्ले. नितीन, पंगूराजान आमकां कॅटां केलीं मरे!!!

टिचर - जालें तें जालें. फाटल्यो गजाली विसरात आनी असलो हो अडेचो वेगळोचार करूं नाकात. आमी सगले एक मरे. आमच्या सगल्यांच्या आंगांत एकच रंगाचें रगत खेळटा. आमी अडेचे भेदभाव पयस करूंक जाय. उंच-उणाक लेखीनासतना एकामेकांक पालव दिवूंक जाय.

नितीन - सर. . . आयच्यान हांव तुमी सांगल्यात त्यो गजाली लक्षांत दवरतलों. खरें सांगू सर. . .? पंगूराजाक सगल्यांत चड हांव त्रास करतालों. नाका-नाका आशिल्ल्यो गजाली इश्टांक सांगून पंगूराजाक चाळोवपाक लायतालों. पूण पंगूराज एकदम बरो भुरगो. आमी ताका कितलेय त्रास दिले तरी तो आमच्यांत येवपाक सोदतालो. तो क्रिकेट बरो खेळटा आसून लेगीत हांव सांगतां म्हणून वाकीचेय ताका खेळपाक घेना आसले. पंगू, म्हाका माफ कर. . . म्हाका माफ कर. (दोळे भरल्यात.) तुजी इश्टागत हांव केन्नाच सोडचों ना. आज म्हजी चूक म्हाका कळून आयली. (दोळे पुसता.)

टिचर - पंगूराजान इश्कॉलाक मान-सन्मान मेळोवन दिला. फाल्यां ॲसेंब्लींत हेडमास्टर पंगूराजाक सगल्या भुरग्यांचे मुखार हाडून परवीं दितलो. आनी तेन्नाच सगल्यांक पंगूराजाचे कलेचे गूण कळून घेतले

कायतान - आनी सर, पंगूराजाक इनाम फावो जालां ती कलाकृती आमकां केन्ना पळोवपाक मेळटली?

टिचर - इनामां वांटपाचो सुवाळो राजधानींत जातलो. पंगूराजाच्या आई-बाबाक लेगीत आमंत्रण आसतलें. इश्कॉलाकय आसतलें. तेन्ना ती कलाकृती पंगूराजाक परत मेळटली. मागीर सगल्या विद्यार्थ्यांक दाखोवपाक दवरया. खरें न्ही?

सगळे - हय सर, हय सर . . . . . . पंगूराज झिंदाबाद! पंगूराज झिंदाबाद!!

(पंगूराजाक उखलून वयर काडटात आनी नाचतात.)

(सवकसायेन पड्डो पडटा.)

*****



**सौ. रजनी अशोक भेंब्रे** (कथाकार, बालसाहित्यिकार)
जी-३, अत्रेय अपार्ट्मेंट्स, दुर्गानंदनगर, कुडचडें, गोंय

कुडचड्यावेल्या सर्वोदय एज्युकेशन सोसायटीच्या हायस्कुलांत वट्ट ३४ वर्सांची शिक्षकी पेशाची सेवा दिवन आपूण जावन निवृत्ती. (व्हि. आर. एस्.) सद्या पुराय वेळ कोंकणी सेवेक ओपून घेतलां.

**कोंकणीचो वावर-** कोंकणी भास आनी तिची सेवा हेंच आपलें मिशन समजून कोंकणीचो वावर. कोंकणी भाशेची उदरगत जातली जाल्यार सान वयांतूच भुरग्यांक भाशेची गोडी लागूंक जाय, आवड निर्माण जावूंक जाय ही तांची भूमिका. ते नदरेंतल्यान आनी भुरग्यांच्या कलागुणांक पोसवण मेळची आनी ताचेवरवीं भाशेचीय उदरगत जावची म्हूण नेमान भुरग्यांखातीर बालसाहित्याची निर्मणी, तशेंच कोंकणीच्या भाशीक, साहित्यीक, संस्कृतीक वावरांत सदांच फुडें.

**बायलांखातीर वावर** - बायलांच्या सामाजिक दर्जाक उंचाय दिवपाखातीर आनी तांच्या कलागुणांक संद दिवपाखातीर पणजी आकाशवाणी आनी पणजी दूरदर्शनावेल्यान बायलांच्या कितल्याश्याच कार्यावळींचें सादरीकरण, तशेंच बायलांच्या सामाजिक चळवळींनी वांटो.

**बालसाहित्यकार म्हूण वावर** - नेमान ल्हान भुरग्यांखातीर बालसाहित्याची रचना आनी तांचें शाळेच्या संमेलनांनी, सर्तींनी, उत्सवांनी सादरीकरण. तेखातीर इनामांय फावो जाल्यांत.

पणजी आकाशवाणी तशेंच पणजी दूरदर्शनावयल्यान भुरग्यांखातीर आनी बायलांखातीर दोनशांवयर कार्यावळींचें सादरीकरण.

कोंकणी भाशा मंडळावरवी शणै गोंयबाब कथामाळेच्या आयोजनांत क्रियाशीळ वांटो.

**उजवाडा आयिल्लें साहित्य** - घुस्मट (कथासंग्रह), मोराची करामत, पांच पाकळ्यो, हांव कोण? , झांशीची राणी, आळ (बालसाहित्य),
कोंकणी निबंद (पांचवी ते सातवी), कोंकणी निबंद (दुसरी ते चौथी), सुखी संवसार (संवाद)

---

**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,**
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय ४०३ ७०२